# काणयाची गांथन

संकलन : रमा मुरकुंडे






श्री हरि प्रकाशन

# काणयाची गांथन



संकलन :
रमा मुरकुंडे






श्री हरि प्रकाशन

Kanyo : Kanyachi Gatan

# काणयो : काणयाची गांथन

**संकलन : रमा मुरकुंडे**

प्रकाशन क्र. २३

पयली उजवाडावणी : फेब्रेर, २००६

**उजवाडावपी :**
*दीपा दिनकर मुरकुंडे*
श्री हरि प्रकाशन
३८९/अ, शांतिनगर,
आर्के-बायश, नावेली,
गोंय - ४०३ ७०७






**अक्षर जुळणी :**
स्पिडेक्स इन्फॉरमॅटीक्स, मडगांव.
फोन नं.: २७३७००२

**छापणावळ :**
प्रिंटआर्ट ऑफसेट्, कुंडय.

**मुखचित्र :** वासू

**मोल :** २५ रुपया

# मांडावळ



ह्यो काणयो बरोवपी व्ही. एम. परूळेकर उच्चमाध्यमिक विद्यालय, वेरें - बेती हांगाचे विद्यार्थी - विद्यार्थीनी आसात.

** ह्यो काण्यो लोकवेदाचेर आदारीत आसात*

*संकलन - रमा मुरकुंडे*

# अती थंय माती



बरोवपी : साईश नाईक

एका गांवान एक भुरगो रावतालो. तो खूप गरीब आशिल्यान ताचे पोट भरनाशिल्लें. ताका पळोवपी कोण नाशिल्लो. एक दिस तो असोच रडत रडत एक जंगलान झाडां कापपाक म्हण गेल्लो. थंय ताचे नशीब बरें म्हण ताका एक जाण्टी बायल मेळटा. ती जाण्टी बायल ताचेकडेन खावपाक कितेंतरी आसा जाल्यार दी म्हण मागता. त्या भुरग्याकडेन फक्त एकुच भाकरी आसता. ती भाकरी तो त्या बायलेक काडून दिता आनी आपुण उपाशी रावता. ती बायल ती भाकरी खाता आनी देवाच्या रुपान प्रकट जाता. ताचेर खूश जावन ती ताका एक गाडव दिता आनी सांगता, 'हो गाडव घेवन तूं चल. हो गाडव तुजें पोट भरतलो.'

तो भुरगो त्या गाडवाच्या आधारान सद्दां जंगलाची झाडां कापून गाडवाच्या फाटीर बांदून विकूक व्हरता. अशीच लाकडा विकून विकून तो एक दिस खूप गिरेस्त जाता.

असोच तो एक दिस वता आसतना ताका चिंतून येता की आपलो एक वेळ असो आशिल्लो जेन्ना आपल्याक एका वेळाचे जेवण मेळपाक कठीण आशिल्लें आनी आपूण आता ह्या गाड्वाक दोन वेळाचें जेवण घालता. परते ताणें अशें चितलें, आपूण ह्या गाडवाक जेवण दिना जाल्यार आनीक गिरेस्त जातलो. ताणें गाडवाक जेवण दिवपाचें बंद केलें.

थोडे दिस अशेच गेले. गाढव उपाशी रावून सुद्धा ताचे काम करतालो. जेवण नाशिल्यान मागीर ताचेकडेन काम जायना जाले. हे सगळें पळोवन देवाक वायट दिसता. आपणे दिल्लो गाडव मरपाक पावला ते पळोवन देव त्या भुरग्याक पयली आशिल्ले त्या परिस्थीत परत पावयता. हाज्या वेल्यान ताका कळटा, मोनजातीकूय काम करपाक जेवण खाण दिवूक जाय. मनशान चड आशा करुंक जायना कारण जो मनीस चड आशा करता ताका केन्नाच कांय मेळना आनी मेळत जाल्यार तें बेगीनूच शेणता.

## वाग आनी धुकर



**बरोवपी : रिगन फर्नानडीस**

एक आसलो धुकर आनी एक आसलो वाग. ते दोगूय दुस्मान आशिल्ले. एक दिस ते एकामेकाक मेळ्ळे. वागान धुकराक सांगलें, 'हांव तुज्यापरस शक्तिशाली.' धुकरान सांगलें 'हांव तुज्यापरस शक्तिशाली.' तांच्या भितर भासाभास जाता. ते एकदिस झगडी करपाचे थारायता आनी दोगूय घरा वतात.

वाग वता आनी लोकाल्यो कोंबड्यो खाता. धुकर वचून चिकलान लोळटा आनी वतान सुकता. मागीर तो झगडी करपाच्या दिसा येता. ते दोगूय झगडटात. वाग धुकराक घास मारता. तेन्ना वागाच्या तोंडान सगळो चिकोल वता. धुकर वागाचे शेंपडेक घास मारता आनी शेंपडीच चाबता. वाग मागीर परतो धुकराक घास

मारता, तेन्ना ताच्या तोंडान सगळो चिकोल वता. धुकर परतो वागाच्या पायांक घास मारता. वागाक कळटा कि आपूण आता हरतलो, म्हुणून तो पळून वता.

*'दुस्मानाक दुबळो समजूचो न्हय.'*

# सुकण्या पीलाची शाणेपणा



**बरोवपी : विना शिरोडकार**

एक सुकणें आसलें. तागेर एक पील आशिल्लें. तें पील बरें दिसतालें. घारशा दोळ्यांचें, धव्या-काळ्या फाखांचें. ताची आवय ताका व्हडा उमेदीन आनी बरेतरेन पोसताली. जेन्ना ताणें आपले दोळे उगडले तेन्ना ताका आपल्या भोंवतणचो परिसर पळोवन भोव उमेद जाली. तें इल्लेशे सुकण्या पील चलपाक लागले. ताका आपल्या भोंवतणीची शेवर्णीं उडटात ती पळोवन आपणेय उडचें अशें दिसले. पूण ताचे आवयन ताका नाका म्हण सांगले. तेन्ना ते शेवणें ओगी रावले. पूण ताका उडपाची घायी जाल्ली.

एक दिस आपली आवय घोंटेरात ना तें पळोवन ते उडपाचो यत्न करताले. तेन्ना तें घोंटेरातल्यान सकयल पडले आनी सकयलूच उरले. जेन्ना ताची आवय घोंटेरात आयली तेन्ना आपले पोर ना ते पळोवन ती काचाबूल जाली. तेन्ना तिची नदर पीलाचेर गेली. तिणे ताका वयर घोंटेरांत व्हेले, ती ताका सांगपाक लागली,

‘हांव तुका उडपाक नाका म्हण सांगिल्ले. कित्याक ? तूं व्हड जावकना म्हण. पुण तुवें आयकले ना आनी पळय कितें जाले ? जेन्ना तूं उडपाक शिकपाच्या पिरायेचे जातले तेन्ना हांव तुका शिकयतली.’

म्हण आसा खंय, म्हज्या आळवाक कितली सोलां घालपाक जाय ती हांव जाणा म्हणजेच आपल्या मनशाक कसली रूच आसा, आपले मनीस कितले काम करतले आनी ते काम करपाची तांक ताच्या आंगान आसा काय ना हे फक्त आवय - बापूय जाणा आसता. देखून आवय बापूय सांगता ते भुरग्यांनी आयकूक जाय ना जाल्यार त्या सुकण्या पीला बशेन आमी आपलेच खरे करून गेल्यार आमी त्रासान पडटली.

*‘आवय बापूय सांगता ते आयकूक जाय’*

# सत्य केन्नाच लिपना

**बरोवपी : पुजा साळगांवकार**



एका गांवान राणी नांवाचे चली रावताले. तें खूप हुशार आसले. पूण तें खूप गरिब आसले. शाळेन तें सगल्या कार्यक्रमान भाग घेताले देखुन तें सगळ्याचे आवडीचे आसले. ताचेर थोडी भुरगी जळताली. पूण तें सगळ्याकडेन बरें तरेन वागताले.

राणीच्या शाळेत सारिका नांवाचे चली शिकताले. तें राणीचेर जळताले कारण राणीक सगळी बरी करताली. तें मुद्दाम ताजे कडेन

दुस्वासान वागताले. पूण राणी ताच्या कडेन बरें तरेन वागताले.

एक फावट सारिकाक ताच्या मामान एक परदेशाची घडयाळ हाडून दिली. ती घडयाळ घेवन सारिका शाळेन आयले. ताणे ती घडयाळ सगळ्याक दाखयली. जेन्ना राणीन ताका घड्याळ दाखय म्हळी तेन्ना ताणें म्हळें 'तुजी नजर घडयाळीक लागत जाल्यार म्हजी घडयाळ मोडटली. नाजाल्यार तुवें ती घडयाळ चोरून व्हेल्यार?' हे आयकुन राणीक खूप वायट दिसले. तें रडूंक लागले.

थोड्या वेळान मदल्या वेळाची सुटी जाली. राणी आनी ताच्यो इश्टीणी खेळपाक गेली. सारिका आनी ताच्यो इश्टीणी वर्गान रावल्यो. तांच्या मनात राणीक फटोवपाची एक येवजण आयली. सारिकान कोण नासो पळोवन आपली घडयाळ काडून राणीच्या बेगान घाली.

मदली सुटी सोपतकच, तास सुरू जातकिच अचानक सारीकान रडूंक सुरवात केली. तेन्ना सरान ताका विचारले, 'सारिका तूं कित्याक रड्टा?' ताणे म्हळे, 'म्हजी घडयाळ ना. हांवे बेगान दवरिल्ली, पूण ती बेगान ना !' सरान पुराय वर्गाक सांगले, 'कोणेय सारिकाची घड्याळ घेतल्या जाल्यार दियात ' पूण कोणेच दिलीना.

तेन्ना सरान एक एकल्याची बेग तपासपाक सुरूवात केली. राणीचें बेग तपासले तेन्ना तांका अजाप जाले कित्याक तर राणीच्या बेगान तांका घडयाळ मेळी. त्या दिसा सरान राणीक खूप तापयले आनी ताणी ताका शिक्षा दिली. राणीक ह्या गजालीचें खूप वायट दिसले.

ह्या गजालीक थोडे दिस जावन गेले. गावात एक न्हंय आशिल्ली, थंय शाळेची भोंवडी व्हेल्ली. त्या न्हंयच्या देगेक एक ल्हानशे रान आसले. थंय सगळी भोंवडेची मजा घेताली. सारिका आनी ताच्यो इश्टीणी एका झाडा सकयल बशिल्ल्यो. अचानक थंय एक सोरोप येवन सारिकाक चांबलो. सारिकान किळांच मारली. तें खूब भिले आनी बेशुद्ध पडले. सगळेकडे एकदम बोवाळ जालो.

राणीक जेन्ना हे कळ्ळें तेन्ना तें वेळ वगडाय नासतना सारिकाकडेन गेले. ताणे पळयले सारिकाच्या उजव्या पोवटेचेर सोरपान चांबिल्ल्याचे दाग आसात. ताणे वेळ वगडाय नासतना सारिकाच्या पायातले विश आपल्या तोडांन चोखुन काडले आनी भायर मारले. अशे तरेन ताणे सारिकाचो जीव वाचयलो.

ह्या खातीर सगळी राणीचे कवतूक करपाक लागली. उपरान्त ही गजाल जेन्ना सारिकाक कळ्ळी तेन्ना ताणे राणी कडेन चूक मागली. तशेच ताणे सराकूय सांगले ताची घडयाळ राणीन चोरूंक नाशिल्ली पुण ताणे स्वता ती राणीच्या बेगान घाल्ली. तेन्ना सरान सारिकाक ताची चूक समजली ते बरें जाले म्हण सांगले आनी दोगांयची इश्टागत करून दिली.

***देख : सत्य केन्नाच लिपना***

# कश्टाचे फळ

**बरोवपी : जयंत नागोळकार**



एक गांव आशिल्लो. ताचे नांव आशिल्ले चंदनपूर. त्या गांवान एक धाकटे कुटंब रावताले,

आवय, बापूय आनी दोन भुरगीं. बापायचे नांव सुरज, आवयचे नांव रतन जाल्यार भुरग्याची नावां आशिल्ली अशोक आनी नुतन.

हे कुटूंब खूब गरीब आशिल्ले. ताका दनपारचे जेवपाक आसल्यार रातचे जेवपाक मेळनाशिल्ले. तांका खूब त्रास घेवचे पड्टाले. घरची घरकान्न लोकांची कामा करून खूब थकिल्ली पूण तिका कामा करचीच पड्टाली. बापूय रंगोवपाचे काम करतालो. ताका सुद्धा सदांच काम मेळनासले.

तीं ज्या कुडीत रावताली थंय तांका वीज नासली. तांका बांयचे उदक काडून हाडचे पड्टाले. तरी सुद्धा तीं आपल्या भुरग्याक व्हडा कश्टान शिकयताली. तांकां दुसऱ्या लोकांकडल्यान खूब कितें आयकून घेवचे पड्टाले. तीं जाणा आशिल्ली कि एकदीस तांची भुरगीं व्हड जातकच तांकां चड त्रास घेवचे पडचेना.

सुरज शिकूनाशिल्लो. ताच्या भावान ह्या गजालीचो फायदो घेवन ताची जमीन, मालमत्तो आपल्या नांवार केल्लो. इतले आसूनय सुरज - रतनान भुरग्याक शिकोवपाचे सोडलेना.

काय वर्सानी अशोक आनी नुतन व्हडली जाली. तांकां दोगाकूय बरी नोकरी मेळ्ळी. जाण्टयापणान तीं दोगाय आपल्या आवय - बापायक सांबाळपाक लागली. आता तीं सुखी रावपाक लागली. सुरवातेक जर सुरज आनी रतनान कश्ट करूंक नाशिल्ले जाल्यार आज तीं सुखी आसची नाशिल्ली.

# मस्तो नंदू हत्ती

बरोवपी : दामोदर नागवेंकार



नंदू नावाचो एक हत्ती आशिल्लो. ताका खुप मस्ती करपाची सवय आशिली. तो सगल्या रांनात नास - धूस करतालो, दुसऱ्या जनावरांक त्रास करतालो. झाडां मोडून, सवण्यांची घरा मोडटालो. जर कांयच करपाक मेळेना जाल्यार सगळ्या जनावरां फाटल्यान धावून तांका दमयतालो आनी मारतालो. सगळी जनावरा नंदू हत्तीचेर वाजेल्ली.

एक दिस रानाच्या राज्यान हत्तीचो बंदोबस्त करपाक लागून सगळ्या जनावरांची बसका आपयली. त्या बसकेक रानांतली सगळीं जनावरां आयली. कोलो, कोली, सोसो, हरण, माकोड, जिराफ, वाग, वागिण, अस्वल.

कोलो मुख्यमंत्री, ताणे दरबाराची सुरवात करपाक लायली. पयली माकोडमामान आपली खबर सांगली. 'म्हाराज, एक दिस हांव झाडार बसून फळां खातालो. तेन्ना नंदू हत्तीन येवन हांव बशिल्ले झाड हालोवन, म्हाका सकयल उडयलो. हांवे विचारल्यार म्हाका मारूंक आयलो. हांव एदोसो आनी नंदू केदो ? आता तुमीच वाचया' अशें म्हणून तो आपल्या जाग्यार बसलो.

त्याच्या उपरान कोल्यान, सश्यान, हरणान, वागान आनी सगळ्यानी आपल्यो तकरारी सांगल्यो. सगळ्यांच्यो तकरारी आयकून राजा विचार करूंक लागलो. कांय वेळां उपरान राजान

आपलो निर्णय दिलो. सगळ्या जनावरांक दुसऱ्या दिसा एक खोल फोण मारपाक सांगलो.

दुसऱ्या दिसा सगळ्यानी एक फोण मारलो आनी त्या फोणार बडयो दवरून, वयर पानां घाली. माकडाक फोणां फुडल्यानच्या झाडार बसपाक लायलो. सगळी जनावरां लिपुन रावली. जाले, नंदू हत्ती थंयसावन वतालो. ताणे पळयले,माकड वयर बसला. ताची कळ काडपाची थारोवन नंदू हत्ती ताचेकडे गेलो. पूण येतना त्या फोंणान पडलो. सगळी जाणा भायर सरली आनी नंदूक चाळोपाक लागली. दोन दिस नंदू त्या फोणान उरलो. तिसऱ्या दिसा ताची मस्ती देंवली. त्या दिसा उपरान्त ताणे सगळ्यांची माफी मागली आनी आपुण केन्नाच मस्ती करचोना हे सांगले. त्या दिसा सावन नंदू सगळ्या जनावरावांगडा बरो वागपाक लागलो.

## आटूक आनी नाटूक

बरोवपी : अनिरूद्ध सावंत



शंकरवाडी नांवांचो एक गांव आशिल्लो. ह्या गांवान आटूक आनी नाटूक नावांचे दोन भाव रावताले. आटूक हो खूब गिरेस्त आशिल्लो पूण तो खूब कंजूस आशिल्लो. तो फक्त पैशे जोडपाचे चित्तालो. ताचो मीठाचो धंदो आशिल्लो. नाटूक हो खूब गरीब आशिल्लो. ताचे कुंटूब एक दीस जेवले जाल्यार एक दीस उपाशी आसताले. ताका ताच्या भावाचो कसलोच आदार नाशिल्लो.

एक दीस नाटूक असोच भोवूंन भोवूंन एका रानांत पावलो. ताका रानांत एक साधू मेळो. त्या साधून ताचेकडेन ताची विचारपूस केली, 'तूं कोण? आनी तूं खंय रावता?' नाटूकान आपली सगळी काणी त्या साधूक सांगली. नाटूकाच्यो अडचणी आयकून त्या साधूक ताची काकळूट आयली. ताणे मागीर ताका एका तामयान मंत्र मारिल्ले उदक दिले, आनी सांगले 'तूं तुज्या हातान हांवें दिल्ले उदक घे आनी तुका जायती वस्त माग मागीर ती वस्त तुका मेळटली.' हे सांगून साधू गेलो.

नाटूक तो उदकाचो तामयो घेवन घरा आयलो. नाटूकान हातार उदक घेवन आपल्याक जायत्यो वस्तू मागल्यो. ताणे मागील्यो वस्तू ताका मेळयो. उरील्ले उदक ताणे दुसऱ्या फावटीक मागपाक दवरलें. दुसऱ्या दिसाक नाटूकाचे बायलेन ही गजाल वचून आपल्या जावेक सांगली. हे आयकून आटूकाची बायल खूब बेजार जाली.

आटूकाची बायलेन आपल्या घोवाक त्या साधूकडेन वचून उदक हाडपाक सांगले. आटूक रानांत वचून त्या साधवाक मेळो. ताणे त्या साधवाक फट सांगले, आपुण गरीब म्हणून आनी तो ते मंत्र मारील्ले उदक साधवाकडल्यान घेवन आयलो. तो तें उदक घेवन घरा आयलो. ताणे हातार उदक घेतले आनी आपले घर आसा त्या परस बरें घर जावचे म्हणून मागले. तेन्ना ताचे घर खूब सुंदर जाले. परत ताणे हातार उदक घेवन एक बरी गाडी मागली.

मागीर तो चिंतपाक लागलो, आपलो मीठाचो धंदो बरो चलता, म्हणून ताणे मीठ मागपाचे ठरयले. ताणे हातार उदक घेतले आनी म्हळें, 'म्हाका इतले मीठ जाय की तें केन्नाच सोपचेना.' तेन्ना ताचे घर सगळे मीठान भरले, आनी तो त्या मीठान घुस्मटून मेलो.

***देख : चड आशा धरल्यार आपलेच वायट जावं येता.***

## प्रामाणीकपणा

**बरोवपी : अर्पणा सावंत**



शीदोळ गांवात दुष्काळ पडिल्लो. ह्या आयिल्या दुष्काळाक लागून गांवाच्या लोकांची परिस्थिती खुपच वायट जाली. दुष्काळाच्या वेळार तर लोक जेवणां-खाणांक रडटाले. त्या गांवात एक सावकार रावतालो. ताचे नांव रमाकांत. तो खुब गिरेस्त आनी दयाळू आशिल्लो. गांवच्या लोकाक कसलीय मदत करपाक तो फाटी रावनाशिल्लो. दुष्काळाच्या वेळार लेगीत तो गांवच्या लोकाक मदत करपाक फुडे सरील्लो. सावकाराक लोकांचे हे त्रास पळोवन दया आयली. ताणे थारायले की आपुण गांवातल्या लोकांक जेवण खाण दितलो आनी ताणे आपल्या कामाक सुरवात केली.

दुसऱ्या दिसापासून सावकार गांवच्या लोकांक जेवण खाण दिवपाक लागलो. अशें तरेन कांय दिस गेले. आता गांवातल्या लोकाची परिस्थिती सुदारपाक लागिल्ली. एक दिस सावकाराच्या मनात एक विचार अयलो. ताका पळोवपाचे आसले की ह्या गांवच्या

लोकांमदी कोणाक भांगराची आशा आसा आनी कोण खाल्या अन्नाकडेन प्रामाणीक आसा.

दुसऱ्या दिसा सकाळी सावकारान रांदप्याकडेन भांगराची ५ नाणी दिवन सांगले, 'जेन्ना तू गांवच्या लोकांखातीर चपात्यो करतलो तेन्ना ५ चपात्याचे पीठ कुशीक काडून दवर. ज्यावेळार तूं ह्या पीठाचे चपात्यो करतलो त्या पिठाच्या गुळीचे बरोबर हे एक भांगराचे नाणे तांतूत घालून चपाती कर. अशातरेन ५ चपात्यो कर आनी ह्यो चपात्यो बाकी चपात्या पासून वेगळ्यो दवर.' सावकारान सांगिल्या प्रमाणे रांदप्यान चपात्यो केल्यो.

सावकार सदाच्याभशेन चपात्यो वाटपाक राविल्लो. सावकारान सगळ्यो चपात्यो गांवच्या लोकांमदी वाटल्यो. निमाण्यो पांच चपात्यो उरल्यो, ज्यो सावकारान खास करपाक लायल्यो. त्यो चपात्यो सावकारान गांवातल्या ५ चले, चलयांक दिल्यो. सगळे लोक चपात्यो खांवक लागले. खंयच्या चल्याक वा चलयेक भांगराची आशा ना हे सावकाराक पळोवपाचे आशिल्ले. कांय वेळान एक चली सावकाराकडे आयले. ताणे भांगराचे नाणे काडून सावकाराकडेन दिले. आपल्याक हे नाणे चपातेत मेळील्ले अशे ताणे सांगले. हे पळोवन सावकारान ताका ताजे नांव विचारले. ताणे आपले नांव रेखा अशे सांगले.

सावकारान रेखाक विचारले, 'तुवें नाणे म्हाका परत कित्याक दिले ? तुका कसली गरज नाशिल्ली ? तुंवे हे कित्याक विकुंक

ना ?' रेखान म्हळे, 'म्हाका भांगराची आशा आसा. पुण हे नाणे हांवे म्हज्या कश्टानी मेळवकना आनि ते म्हाका तुवेन दिल्ल्या चपातेन मेळ्ळां. हांवे तुवें दिल्लें अन्न खाला. हावें त्या अन्नाप्रती प्रामाणीकपणा बाळगिली म्हण हांवे तें भांगराचे नाणे तुच्याकडे हाडून दिले.'

सावकाराक ताची प्रामाणिकपणा आनी भांगराची आशा ना हे पळोवन खुप खोशी जाली. दुसऱ्या सकाळी सगळ्या गांवच्या लोकासमोर सावकारान रेखाक ताची प्रामाणीकपणा पळोवन ताका इनाम दिवन ताचो भोवमान केलो.

# हुशार कोलो

बरोवपी : सुलक्षा शिरोडकार



एक आसलो कोलो. तो खूप हुशार आसलो. एक दिस तो असोच रानांतल्यान वतालो. ताका खूप भूक लागिल्ली. तेन्नाच ताका थंय एक गाय मरून पडिल्ली दिसली. तो थंय गेलो. मरून पडील्ले गायक पळोवन ताच्या तोंडाक उदक सुटले.

तो ते गायचे मास खावपाकूच वतालो इतल्यान थंय एक शिंव आयलो. कोल्याक दिसले, आता हो एकलोच खातलो. शिंवान कोल्याक विचारले, 'कोणे मारल्या ह्या गायेक?' कोल्यान जाप दिली, 'खबर ना.' ते आयकनाफूडे शिंवान कोल्याक म्हळे, 'हांव खाता त्या गायेक.' ते आयकून कोल्याक दिसले आता हांव गायेक

खावपाक पावचोना. इतल्यात ताका एक उपाय येवजलो. ताणे म्हळें, ‘ह्या रानाचो राजा दुसऱ्यानी मारील्ले जनावर खाता म्हूण कोणाकूय कळ्ळें जाल्यार कितें म्हणटले ?’ ते आयकून शिंवाक ताचे खरें दिसले म्हूण तो गेलो.

थोड्या वेळांत थंय एक वाग आयलो. वागान कोल्याक ही गाय कोणे मारल्या काय म्हूण विचारनाफूडे कोल्यान म्हळें, शिंवान मारल्या ह्या गायेक आनी म्हाका राखपाक दवरला.’ ते आयकनाफूडे वाग गेलो. वाग आनी शिंवाक फटयले म्हूण कोल्याक खूप खोशी जाली. आपली हुशारकाय वापरून ताणे आपल्याक फायदो करून घेतलो.

# कर्तव्य

**बरोवपी : निलम रेडकार**



शिवोली ह्या गांवान एक ल्हानश्या घरान आवय - बापूय आनी तांची दोन भुरगीं - एक चलो आनी एक चली रावताली. आवयचे नांव आशिल्ले सिता, बापायचे नांव आशिल्ले राजू, चल्याचे नांव आशिल्ले सोहेल आनी चलयेचे नांव आशिल्ले श्रेयानी. तीं खूप खुश आशिल्ली.

राजू एक वकील आशिल्लो आनी सिता भायर कामाक वताली. ती दोगांय सकाळी आठ वरांचेर कामाक वताली आनी रातची साडे सात वरांचेर घरा येताली. सीता कामाची आयल्या उपरांत रांदताली

आनी राजू वकील आशिल्या कारणान घराय येवन लोकांच्या केसीबद्दल चित्तालो.

तांच्या घरा मुखार एक व्हडले आंब्याचे झाड आशिल्ले आनी त्या आंब्याक खूप आंबे लागताले. त्याय वर्सा खूप आंबे लागील्ले. सदासारखी सोहेल आनी श्रेयानी भायर खेळटाळी. इतल्यान थंय एक आंबो पडलो. दोगांयनी वचून तो हाडलो. तो आंबो बरो पिकील्लो. तांका रूच आयली आनी ताणी तो आंबो खालो. थोड्या वेळान दुसरो आंबो पडलो तो ताणी तसोच दवरलो. अशे ताणी पांच - स आंबे एकठांय केले आनी सिता येतकच तिचेकडेन दिले. सितान घेतले पूण तांका कांयच सांगलेना.

दुसऱ्या दिसा खेळटा खेळटा दोन आंबे वांगडाच पडले, दोघाय धांवली. एक आंबो मुयांच्या रोयणीन पडलो जंय सोरोप आशिल्लो. सोहेलान पळयले पूण ते सोरपाचे बिळ म्हूण ताका खबर नाशिल्ले कित्याक तर ताका केन्नाच तांच्या आवयन - बापायन सांगुकूच नाशिल्ले. ताणे आंबो काडपाक हात घालो तितल्यान ताचो सोरपाक हात लागलो आनी तो सोहेलाक चाबलो. ताका कितें चाबले ते कळेना. आवय - बापूय येतकच ताणे आवय - बापायक सांगले पूण तांणी चड लक्ष दिलेना.

जेन्ना सोहेलाच्या तोंडातल्यान फेस भायर सरलो तेन्ना तीं दोघांय खूप भिली. आनी ताणी श्रेयानीक विचारले, 'तुमी खंय गेल्ली?' तेन्ना ताणे सांगले 'आमी खंयच वचूकना, फक्त आंबो

काडपाक आंब्या पोंदा बुरकाकडेन गेल्ली.’ तेन्ना दोघांयनी वचून थंय पळयले. तर थंय एक व्हडलो सोरोप आशिल्लो आनी तो बुराक न्हय तर एका सोरपाचे बिळ आशिल्ले. ती येवन श्रेयानीक सांगतात तेन्ना तें म्हण्टा, ‘पप्पा, मम्मी तुवेन आमकां पयली सांगील्ले जाल्यार आमी आंबे काडूक हांगा येवची नासली.’ तितल्यान सोहेल मरता तेन्ना तांका खूप खूप पच्छाताप जाता आनी तीं म्हणटा ‘आमी भुरग्याचेर लक्ष दिल्ले जाल्यार अशे जावचे नासले.’

## इश्ट आसल्यार असो

बरोवपी : शशिकांत इंगळे



एक गांव आसलो. त्या गांवाचे नांव रामपूर आशिल्ले. त्या गावांत दोग जाण इश्ट रावताले. ताचे नांव आसले रवी आनी शशी. तांच्या मजगती खूब दाट इश्टागत आशिल्ली. ते दोगूय बऱ्या मनाचे आनी बऱ्या विचारांचे भुरगें आशिल्ले.

ते दोगूय गरीब आशिल्ले. ते एकाच खोपींत रावताले. तांका दोगाकूय एक एक आडखळ आशिल्ली. ती म्हळ्यार, रवीक दोळे नाशिल्ले जाल्यार शशीक पांय नाशिल्ले. ते दोगूय एकामेकाच्या आधारान जगताले.

शशी धाव्वी वर्गात शिकतालो. पूण ताचो सगळो खर्च रवी करतालो. रवी खूप बरें गायतालो. ताचे गावप आयकून लोक ताच्या भोंवतणी एकठांय जाताले. लोक ताका जे पयशे दिताले

तांतूत रवी  आपलो आनी शशीचो खर्च करतालो.

एक दीस तांच्या गावांत चोरी जाली. चोर येवन रवी, शशीगेर लिपले. जेन्ना पोलीसान येवन तांका धरून व्हेले, तेन्ना ताणी शशीकूय चोरांच्या सांगणेर व्हेलो. पोलीस चौकीचेर चोरांनी शशी चोर न्हय म्हण मार खातकच खरें सांगलें आनी शशी सुटलो.

शशीच्या मास्तराक जेन्ना ही गजाल कळ्ळी तेन्ना ताणी शशीक आपल्यागेर व्हेलो. शशी अशा वातावरणात इबाड्टलो म्हण ताका आपल्या घरा हाडलो.

रवीक मात शशी ताका एकदम सोडून गेलो म्हण वायट दिसले. शशी मास्तरागेर अभ्यास करतालो. पूण वायट नशिबान ताचो सर शेवटच्या परिक्षेचो अर्ज (फॅाम) भरच्या पयलींच भायर पडलो. शशीची फी भरपाक आता कोण नासलो .

जेन्ना ही खबर रवीक कळ्ळी  तेन्ना ताणे आपल्याकडेन गावन एकठांय जाल्ले पयशे व्हरून शशीच्या शाळेंत दिले. पूण शशीक हे कळपाक जायना अशीय अट घाली.

शशी परिक्षेक बसलो. जेन्ना ताच्या परिक्षेचो निकाल आयलो तेन्ना तो ताच्या शारांत पयलों अयिल्लो. ताचो फोटो खबरापत्रांत छापून आयलो. शशी जेन्ना शाळेंत वता तेन्ना ताचो सर ताका  ताच्या अर्जाचे पयशे रवीन भरल्यात हे सांगता. शशीक हे आयकून खूब वायट दिसले. तो तसोच धांवत रवीकडेन गेलो आनी ताका पाया पडून ताची माफी मागली. रवीक शशी पयलो आयलो म्हण

कळटकच तो खूब खूश जालो. आनी शशीक वेंग मारली. अशे तरेन ताची इश्टागत परती घट जाली.

# भांगराची आशा



बरोवपी : शशांक नायक

एक आशिलो राजा. तो खूब गिरेस्त आशिल्लो. ताका एक चली आशिली. राजाक खूब गिरेस्त जावपाची आवड आशिल्ली. म्हणून ताणे खूब राज्यां जिकली. एक दिस तो तप करपाक गेलो. ताणे एक वर्स तप केले. एका दिसा देव ताचेर प्रसन्न जालो. देवान ताका विचारले 'तुका कितें जाय?' तेन्ना ताणे देवाकडेन आपूण जाका हात लायतलो ते भांगर जांव म्हण मागले.

देवान ताका एक अट घाली, 'तूजो हो वर हांव परतो घेवपाक शकना. परत घेतलो जाल्यार तुझे सगळे राज्य वतले.' त्या राजान भांगरा खातीर ती अट मान्य केली. तो ताटाक, पेल्याक हात लावंक लागलो. ते भांगर झाले.

एक दिस ताची एकली एकसूरी चली बापायक पायां पडली आनी जेन्ना ताणे ताका आशिर्वाद दिवपाक हात माथ्यार दवरलो तेन्ना ताची चली भांगराची मुर्ती जाली. राजा रडपाक लागलो आनी ताणे देवाक उलो मारलो. देव आयलो आनी ताणे राजाक सांगले. 'तुका सांगिल्ले हांव जेन्ना तो वर परत घेतलो तेन्ना तुजें राज्य वतले.' राजा म्हणू लागलो 'तूं कितेंय कर पूण म्हज्या चलयेक सारके कर.'

देवान ताचे  राज्य काडून घेतले आनी त्याच्या चलयेक सारखी केली. अशे तरेन त्या राजाक बुद्ध आयली.

# गैरसमज

बरोवपी : गोविंद शिरोडकार



एक गांव आसलो. त्या गांवाचे नांव आसले काणकोण. त्या गांवान खुबशे लोक रावताले. एका घरान राजेश, ताची बायल आनी तांचो ल्हान भुरगो रावताले. राजेशान आपल्या घरान मुंगुस पोशिल्ले.

त्या मुंगुसाक तो बरे तरेन पाळटालो. राजेशाचो भुरगो पाळण्यात खेळटालो. ताची आवय घरांतले सगळे काम करून चल्याक न्हीदयताली. एकदीस तिचो घोव कामाक गेल्लो आसता म्हूण ती मुंगूसाक सांगता, ‘हांव उदक हाडूंक बांयचेर वता तेन्ना तूं म्हज्या चल्याची राखण कर.’ आनी ती वता. तेन्ना थंय एक सोरोप येता. त्या सोरपाक मुंगूस पळयता. तो सोरोप भुरग्यांक चाबतलो म्हूण ते त्या सोरपाक मारून उडयता आनी येवन दारार बसता. ताच्या आंगाक आनी तोंडाक सगळे रगत लागिल्ले आसता.

जेन्ना त्या चल्याची आवय उदकाची कळशी घेवन घरा येता, तेन्ना ती मुंगूसाच्या तोंडाक रगत पळोवन  सारखी काचाबुल जाता. ती समजता की त्या मुंगसान आपल्या चल्याक खालो म्हूण आनी ती  तिडकीन मुंगूसाचेर उदकाची कळशी मारता. आनी ते मुंगूस मरता.

कळशेच्या आवाजान न्हिदील्लो चलो उठ्ठा आनी रडटा. चल्याचो आवाज आयकून ती भीतर वता आनी पळयता. पळय जाल्यार चल्याक कायच जाल्ले नासता. आनी भितर सोरपाचे पडील्ले कुडके पळोवन तिका कळटा की मुंगूसान सोरपाक मारला. ती खूब रडटा तिणे त्या मुंगूसाक जीतेच मारले म्हण. तिका खूब वायट दिसता.

# श्याम बुध्द शिकता

**बरोवपी : अनास्तासिया एस्ट्रोसियो**



श्यामाचे घर ल्हान पूण सोबीत आसले. तो आपले आवय 'शेंवतूबाय' हिचो एकटोच चलो आसलो. श्यामाचो बापूय तो स वर्साचो आसतनाच सोंपिल्लो. शेंवतूबायक श्यामाक व्हड करपाखातीर खूब कश्ट काडचे पडले. आपले आनी श्यामाचे पोट भरपाखातीर ती दुसऱ्यांगेर कामाक वताली. श्यामाक ती जाय ते दिताली. तिणे ताका केन्नाच कांयच उणे करूंक नासले. श्यामाक बापूय नासून सुध्दा तिणे ताका बापायचो मोग दिल्लो.

श्याम आता णव्यां वर्गात शिकतालो. फांतोडेर ५ वरांचेर उठून घरांत आनी आग़णांत सान्न मारतालो, घर निवळ करतालो, झाडां शिपतालो. उदक मारतालो आनी न्हावन धुवन शाळेक वचपाक तयार जातालो, आपले आवयक हे सगळें त्रास पडचे न्हय म्हुण तो ही सगळी कामां करतालो. शेंवतूबाय सकाळी संक उठ्ठाली.

ती सकाळची च्या आनी नाश्तो आनी दनपारचे जेवण तयार करताली. दोगांय वांगडाच सकाळची च्या घेताली आनी भायर सरताली.

एक दिस श्यामाचे इश्ट घरां येवचे वाटेर ताका चाळोवंक लागले. ताका ते म्हणूक लागले. 'कितें रे श्याम तू सकाळफुडें उठून घरांतलें काम करता आनी तुजे आवयक मातलेगीत तुजे चूर चूरे दिसना?' रोखडेच दुसऱ्यान म्हळें. 'ती तुकां घरांतलो नोकर मानता दिसता!' पूण श्यामान तांका सांगले, 'म्हजी आवय म्हाका नोकर मानना पूण म्हाका तिचो मोग आसा आनी तिकाय म्हजो मोग आसा म्हण हांव ही सगळी कामां करता.' पूण श्यामाची जाप आयकून ते ओग्गी रावलेनात, म्हणूंक लागले 'तुजी आवय तुजो मोग करताली जाल्यार तुका ती सद्धा ही कामां दिवची नासली.' 'आमकां पळय आमचे आवयन आमकां एकदीस सुध्दां कसलेच काम दिवंकना, म्हणजेच ती आमचो खूब मोग करता' श्यामान हे आयकले आनी तो वोग्गी घरा आयलो. त्या दिसा तो आवयकडेन सारखो उलयलोना. दुसऱ्या दिसा श्याम मुद्दम उशीर करून उठलो आनी ८ वरां जाता म्हणल्यार आवयक जाप दिनासतना घरांतलो भायर सरलो. तो शाळेतय गेलो ना. तो घरा जेवंकय आयलो ना.

सांज जाता म्हणसर श्यामान आपले आवयक एक चीट बरयली आनी धाडून दिली. चिट अशी बरयली. 'आवय, हांवे इतली वर्सा सकाळफूडे उठून खूब कामां केल्यात ताचो हांव तुकां हिशोब बरोवन धाडटा. सारन मारपाची - ५०००, उदक भरपाचे - ६०००,

केन्नाय जेवण रांदपाचे - २०००, घराची निवळसाण - २००० सगळे मेळोवन १५००० तुवें म्हाका दिवचे आसात. ते तुका रिण जातले. तूं बेगीनच ते ह्या २० दिसां भितर पावय ’

शेंवतूबायन हि चीट वाचतकच तिका खूब दुःख जालें. तिणे श्यामाक चीट बरयली. ‘श्याम हांव तूका दोब्रांदीन दिवपाक तयार आसा पूण! तू म्हाका १५ दिसां भितर हांव जो खर्च बरोवन धाडटा तो तूं म्हाका फारीक कर.

| | | | |
|---|---|---|---|
| १. | ९ म्हयने हांवे तुका म्हज्या पोटांत्त सांबाळो | - | ९००० |
| २. | तूं बरो नासलो तेन्ना वखदांक खर्च | - | ५००० |
| ३. | तुका व्हडलो करपाखातीर दिस रात एक केली | - | ६००० |
| ४. | तुका जाय ते हाडून दिले ताचें | - | ५००० |
| | सगले मेळोवन | = | २५००० |

हांतूतले तूं तुजे १५००० काड आनी उरलेले म्हाका ह्या ९ दिसा भितर धाडून दि. ही चीट तिणे शेजाऱ्याच्या हातांत धाडून दिली. श्यामान ही चीट वाचली तेन्ना ताका आपल्याकच खाल्लेल्या सारखे जाले. आपल्याक कितें जाल्ले ते ताका खबर नासली. तो मदीच स्वार्थी जालो. आपले कश्ट कायच न्हय म्हण ताका कळ्ळें. आपले आवयचे कश्ट ताणे दोळ्यामुखार दवरले आनी नियाळ केलो आनी हातूंत आपली चूक आसा ती आवयन माफ करची म्हूण तो त्याच वेळार घरां परतलो आनी आवयचे पायां पडून माफी मागूंक लागलो.

आवयन ताका माफ करून घट्ट वेंग मारली.

# निना मावशेचो उपाय

बरोवपी : सुनील राज दामोदर



एका शारांत एक जोडपें रावताले. तांचे नांव आशिल्ले रवी आनी निशा. तांका एक पूत आशिल्लो नकुल. तो खूब सुंदर दिसतालो. आठ वर्सांचो आसूनय ताचे तोंड ५-६ वर्सांच्या भुरग्यांवरी दिसताले. तो शिकपाक, खेळपाक खूब बरो आशिल्लो. पूण तांका एकूच वायट सवय आशिल्ली तो आपल्यो वस्तूक कोणाक हात लावक दिनाशिल्लो. आपले पुस्तकां, खेळणी आनी प्लेटूय तो दुसऱ्यांक दिनाशिल्लो ते ताच्या आवय - बापायक आवडनाशिल्ले.

ही गजाल निशान आपली भयण, निनाक सांगली. तिणे निशाक सांगले की आपणाकडेन हाचो उपाय आसा. दुसऱ्याच दिसा ती नकुलाक मेळूंक घरा आयली, वांगडा तिणे एक पेटो हाडलो. नकुल त्या पेट्याक पळोवन खूब खोशी जालो. निना मावशेन तो नकुलाक दवरपाक दिलो. ताका बरी वागणूक दित जाल्यार तो तुज्याच वांगडा रावतलो अशे तिणे सांगले आनी ती गेली.

नकुल त्या पेट्यावांगडा सदांच खेळटालो, पूण दुसऱ्या भुरग्यांक खेळूक दिनाशिल्लो. तो सदांच त्या पेट्याक बरे जेवंक दितालो. पूण ताका सदांच बांदून दवरतालो. एक दिस आयतारा पेट्या वांगडा खेळून तो पेट्याक बांदूक विसरलो. तो पेटो थंयच्यान धावन निना मावशेगेर पावलो. तिका कळे की नकुल त्या पेट्याक मेकळो सोडनासलो.

दुसऱ्याच दिसा निना मावशी नकुलाच्या घरा पावली. निशान तिका सांगले, 'नकुलाक खूब वायट दिसला.' तेन्नाच नकुल आयलो. मावशेक पळयनाफुडे ताणे विचारले ताचो पेटो खंय? तिणे ताका सांगले, 'तुज्या असल्या वागणूके खातीर तो घर सोडून आयलो आनी आता तो दाराभायर रावला.' नकुलाक आपली चुक कळ्ळी. त्या दिसाच्यान ताणे स्वर्थी वागणूक सोडून दिली आनी तो सुदारलो.

आपल्या स्वार्थीपणाक लागून पेटो पळून गेलो म्हण ताका समजले.

## जाण्टेली आनी तिचे नोकर

बरोवपी : दिपेश नाईक



एका गांवान एक जाण्टी बायल रावताली.
त्या बायलेकडेन दोन नोकर कामाक आशिल्ले. तिगेर एक़ कोंबो आशिल्लो. त्या कोंब्यान साद घालतकच ती उट्ठाली आनी त्याच वेळार आपल्या दोनूय नोकरांकूय उठयताली. फांतोडेरूच उठून ती तांका कामाक लायताली.

त्या दोनूय नोकरांक फांतोडेर उठपाक आवड नाशिल्ले. ते दोगूय खूब आळशी आशिल्ले. तिणे सांगिल्लें काम ते फटाफट कर नाशिल्ले. आपल्याक न्हिदपाक चड वेळ कसो मेळटलो ह्या बाबतीत ते सदांच विचार करताले.

एका दिसा एका नोकरान दुसऱ्या नोकराक विचारले, 'तो कोंबो साद घालता म्हूण आमची न्हिद खळटा. आमी त्या कोंब्याकच मारल्यार कशे? जर तो कोंबो मेलो जाल्यार ताचो सादूय आसचोना. साद नाजाल्यार जाण्टेली उठची ना आनी आमकाय चड वेळ न्हिदूक मेळटले.'

दुसरो नोकर हे आयकून तयार जालो. दुसऱ्या दिसा दोगांयनी त्या कोंब्याक मारून उडयलो. आता तो कोंबोय नाशिल्लो आनी ताचो आवाजय नाशिल्लो. तिसऱ्या दिसा जाण्टेली सदच्या वेळार उठलीना. चवथ्या दिसा मात ती सदच्या वेळा परस चड बेगीन उठली. कोंबो नाशिल्ल्यान सकाळ जाली कांय ना हे कळपाक तिका मार्ग नाशिल्लो. ती जागी जातकच ती नोकरांकूय न्हिदपाक दिना जाली.

नोकरांक पयलीच्या परस चड बेगीन उठचे पड्टाले आनी चड वेळ काम करचे पड्टाले. ते दोगूय एकामेकाक म्हणपाक लागले, 'आमी त्या कोंब्याक मारून व्हडली चूक केली. ताचो साद आशिल्लो जाल्यार आमका मातशे न्हिदूक तरी मेळटा आशिल्ले.'

## सोमी आनी श्याम

बरोवपी : सर्वेश नाईक



सोमी नांवाचो एक भुरगो आशिल्लो. तो धा वर्साचो आशिल्लो. तो पांचवे यत्तेत शिकतालो. ताचो बापूय ताका सदांच अ

कर म्हण सांगतालो. ताचो बापूय आपल्यो इत्सा कुशीक दवरून सोनीच्यो इत्सा पूर्ण करतालो. ताची आवय ताका बरें करताली.

एक दिस सोमीच्या शाळेत एक नवो भुरगो आयलो. ताचे नांव आशिल्ले श्याम. तो खूब गिरेस्त आशिल्लो. ताची गिरेस्तकाय पळोवन सोमीच्या वर्गातले खुबशे इश्ट श्यामाचे इश्ट जाले आनी ताणी सोमीक एकटो उडयलो. श्याम जसो मस्तो आशिल्लो तशेच तेंय मस्ते जाले.

सोमीक आता ते चाळोवपाक लागले. ताची फकाणां करपाक लागले. पूण सोमीचो एकूच इश्ट, रघू ताच्या बरोबर रावलो. एक दिस सोमीची आनी श्यामाची मारामारी जाली पूण थंय तांचे शिक्षक आयले आनी तांणी दोगांकूय सोडयले. पूण ह्या मारामारीत सोमीन, ताचो कांयच गुन्यांव नासतना मार खाल्लो. श्यामच्या इश्टानी ताका बेश्टोच, श्यामाक मस्को मारपाक मारिल्लो.

शाळा सुटून सगळे घरां वचपाक लागले. तेन्ना श्याम विचार करत घरा गेलो. आपल्याक खूश करपाक इश्टानी सोमीक मारलो म्हण ताका खूब वायट दिसले. आपल्या करणेचेर ताका वायट दिसले. ताका सोमीक आपलो इश्ट करचे अशे दिसले.

दुसरें दिस श्याम शाळेंत आयलो आनी ताणे सोमीकडेन चूक मागली. तो आनी सोमी इश्ट जाले. ते दोगूय हांसत उलयता ते पळोवन श्यामाचे इश्ट अजापले. श्यामान सगळ्याक आपल्या घरा व्हेले. थंय ताणी सगळ्यानी सोपूत घेतलो, फुडाराक केन्नाच

कोणाक त्रास करचे नात, दुसऱ्यांक मदत करतले. श्यामाक आपली चूक कळिल्ल्यान ताच्या हातातल्यान आनीक चूको जावपाच्यो वाटावल्यो.



# स्वार्थाची रव्यास्त

बरोवपी : स्मिता दाभोळकर

सोलापूर नावांचो एक गांव आशिल्लो. त्या गावांत एक गरीब आजी आनी तिचो नातू रावतालो. ती आजी नातवाक सांबाळटाली. तिची खूब पिराय जाल्ली. आपूण मेल्यार नातवाचे कशें जातले अशे ती सदांच चित्ताली. देखून तिणे आपल्या नातवाचे भुरगेंपणातच लग्न केले. आजयेचो नातू आनी ताची बायल खुबच ल्हान आशिल्ल्यान ती दोगांय खेळ[illegible]ताली. तांकां आपले लग्न जाला म्हण खबर नासले.



काय तेंपान आजी भायर पडली. नातवाचे बायलेक तर रांदूक येना आशिल्ले. नातवाक हे खबर नाशिल्ले. आपल्याक चपाती आनी भाजी करून शेतात हाड, आपूण शेतांत वता अशे ताणे बायलेक सांगले आनी तो गेलो.

बायलेन भरपूर पीठ घेतले आनी भरपूर उदक घाले. उपरान्त तिणे पिठाची बावली केली. हांगा तिचो घोव शेतात तिची वाट पळोवन वाजेलो आनी घरा आयलो. पळयत जाल्यार बायलेन पिठाची बावली केल्या आनी हातापायांक पिठ लावन रडत बसल्या.

।णे तिका खूब तापयली आनी घरांतल्यान भायर घाली. ती बाबडी
त्या बावलेक घेवन चलत रावली.

त्या दिसा कांय चोरानी एक शेटीचे भरपूर भांगर चोरिल्ले. भांगराच्यो पोटल्यो घेवन ते रातचें एका झाडा पोंदा आयले. त्याच झाडाचेर नातवाची बायल बावली घेवन बशिल्ली. तांचो आवाज आयकून ती भिली आनी तिच्या हाताातली बावली चोरांचेर पडली. 'भूत, भूत' म्हण भांगराची पाटली थंयच सांडून ते गेले. नातवाचे बायलेन ते एकठांय केले आनी ती घरा आयली.

घरा येवन तिणे घोवाक उलो मारलो. घोवान तिका घरांत घेतली. तिणे ताका भांग[illegible] आनी [illegible]सची गजाल समजावन सांगली. तो खूब उमेदी जालो. आतां ती दोगांय बरें बरें कपडे न्हेसून भोंवपाक लागली.

त्याच गावांत मंगल म्हण बायल राव[illegible]ली. ती खूब स्वार्थी आशिल्ली. तिणे नातवाचे बायले कडल्यान खरी गजाल समजून घेतली. ती आपल्या घरा गेली. तिणे आपल्या घोवाक समजायलो.

तिणे एक बावली केली आनी रातची सिमतरीच्या दुर्गार बसली. थंय चोर भांगर घेवन वांटणी करपाक बशिल्ले. तिणे बावली तांचेर उडयली. पूण चोर भिलेनात. फाटले फावट बावली पडून सगळें भांगर गेल्ले, ते भूत नाशिल्ले हे तांकां कळिल्लें. तीच ही बायलमनीस अशे समजून ताणी मंगलाक खूब मारली. मंगलाक आपल्या करणेचे फळ मेळ्ळे.

## श्री हरि प्रकाशनान उजवाडायिल्लें साहित्य

| | | | |
|---|---|---|---|
| १. | उमजणी | कथा | दीपा मुरकुंडे |
| २. | जिवीत एक तियात्र | नाटकुलीं | शॅरोन माझारेलो |
| ३. | चौफूल | नाटकुलीं | माया खरंगटे |
| ४. | पिटकुलीं नाटकुलीं<br>(पयली उजवाडावणी : ऑगस्ट १९९८)<br>(दुसरी उजवाडावणी : डिसेंबर १९९९) | नाटकुलीं | दीपा मुरकुंडे |
| ५. | भौरंगी जीण | निबंध | दीपा मुरकुंडे |
| ६. | मोराची करामत | नाटकुलीं | रजनी भेंब्रे |
| ७. | आंकवार काजारी | नाटक | रवींद्र नमशीकर |
| ८. | नुपी | काणयो | दीपा मुरकुंडे |
| ९. | रानांतल्यो काणयो | काणयो | नयना आडारकार |
| १०. | घोंटेर | कथा | माया खरंगटे |
| ११. | दुरीग | तियात्र | विल्मिक्स विल्सन माझारेलो |
| १२. | चिमी | काणयो | दीपा मुरकुंडे |
| १३. | हिरन आनी वांस्वेल | काणयो | नयना आडारकार |
| १४. | डॅडी | नाटक | दत्ताराम दा. कामत बांबोळकार |
| १५. | पिटकुल्यो काणयो | काणयो | नयना आडारकार |
| १६. | शिवं आनी कासव | काणयो | सुधा खरंगटे |
| १७. | पडबिंब | निबंध | दीपा मुरकुंडे |
| १८. | काणयो सैमाच्यो आनी मनश्यांचो | काणयो | सुधा खरंगटे |
| १९. | कासवाचे घर | काणयो | नयना आडारकार |
| २०. | काणयांचे पेटूल | काणयो | सरस्वती दामोदर नायक |
| २१. | मस्तूल | काणयो | नयना आडारकार |
| २२. | कुटुऱ्यो | काणयो | नयना आडारकार |
| २३. | काणयाची गांथन | काणयो | रमा मुरकुंडे |